# बालगीतां

## कविता संग्रह

डॉ. भिकाजी घाणेकार

# बालगींता

(कवितासंग्रह)

डॉ. भिकाजी घाणेकार

पयली उजवाडावणी : २०१०



ऊजवाडावपी :
माधुरी मिलिंद तिंबले
मुद्रा पब्लिकेशन,
माशेल गोय
फोन : 0832 - 2288077

मुखचित्र :
आदित्य तिंबले

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स
माशेल - गोय
फोन : 0832 - 2287713

मोल : ४० /- रुपया

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'बालसाहित्य ' ह्या येवजणेखाला ५० % आर्थिक पालवान छापला

म्हजो अपुर्बायेचो नातू

**निहाल**

हाका बरो फुडार चिंतून

आनी

म्हजी घरकाम्न

**सुनंदा**

सगळो संवसार पळोवन
म्हाका वेळ देवपी
हाका देव बरें करू.

**- डॉ. भिकाजी घाणेकार**

# अनुक्रमणिका

# गाडी



चंदामामागेर चल्ली आमची गाडी
कुपां सारीत, वारो झेलीत चल्ली चल्ली...

आयस्क्रीम खावंक मेळटलें
आमचें नातें जुळटलें
हांव ताजो भाचो तो म्हजो मामा
तागेर मजाच व्हडली

चंदामामागेर रावन सकल पळे
इल्लीशी धर्तरी जाल्या पळे
कोण घुंवता, कोण नाचता
सगळीच उमेद नवी

घुंवतां घुंवतां घुंवळ आयली
तरी गाडी फुडें फुडें चल्ली
चंदामामालें स्टेशन आयलें
आतां देंवात तुमी सगळीं



# मनशाची कूड



पायांनी चलपाचें
हातांनी काम करपाचें
तोंडान कितें करप ?
जेवप आनी उलोवप

दांत आसात पचपाक
जेवण बरें चाबपाक
दोळयांनी कितें करप ?
पळोवप आनी तोखेवप

नाक वास घेवपाक
हवा भितर घेवपाक
कानांनी कितें करप ?
आयकप, बरें तें करप

एकमेकाक हात दियात
एकवटान रावात
देवाचें नांव घेयात
सांगता मन सांगता मन



# जनावरांची क्रिकेट



वागान घेतलें बॅट
कोल्यान घेतलो बॉल
कोल्यान बॉल मारून
वागाक धांवडेचें मॉल

सोंसो धांवन वचून
बॉल आडायलो ताणे
एकूच धांवडी काडली
वागाचें तोंड काळें

कुळेंच्या व्हड रानांत
आसली क्रिकेट जनावरांची
क्रिकेट पळोवंक थंय
आसली गर्दी भोंवडेकारांची

माकड लोकांमदीं बसून
ताळयो पेटीत आसलो
जनावारांची क्रिकेट
विकी सपनांत पळेतालो.



# पतंग उत्सव



साबार पतंग हजार रंग
एक मळब एक मनीस जात
वयर वयर चडपाचो हावेस
उदरगतीचो संदेश दिस रात

अली नासतना दिवाळी कशी
राम नासतना रमजान कशी
जावं अली जांव मागीर राम
एक रगत साबार हात

हातांत हात दिवन आमी
पतंगाची दोरी विणूया
मळबायेदो हावेस मनांत
सगळेच पतंग जावूंया

देऊळ, कपेल, मशीद, गुरूव्दार
पतंगाचेच साबार रूपकार
वयर वयर हुबयतना
एकमेका सावरुंया
सगल्यांक जागोवया



# चानी आनी किर

चानयेन किराक म्हळें
हें सगळें भाट म्हजें
हांगाचीं बोरां, तोरां
आंबे, पेरां, चारां

म्हज्या भाटांत तूं येवंचो ना
हांगाचीं फळां खावचो ना
हें भाट म्हज्या जांण्ट्यांचें
तूं हांगा पांय दिवंचो ना

तूं हांगा आयल्यार
पुलिसेक कळयतलों
हांव कोर्टात वतलों
म्हजी 'केस' जिखतलों

किरान हांसून म्हळें
तुजें भाट तुका व्हड
म्हाका नाका तुजें भाट
तुकाच तें वतलें जड

तुका खबर आसा
हांगाचे चार गांव
भोवून येतां हांव
शेत जावं, भाट जावं

भूरऽ करून कीर उडलो
दुसऱ्या झाडार बसलो
चानी ताका पळेत रावली
मनांत खंती जाली



# किटूली टि.व्ही.



किटू टी. व्ही. चेर
क्रिकेट पळोवंक बशिल्लें
भारत आनी पाकिस्तान
त्या दिसा खेळटाले
भारताच्यो तिनशें वीस
धांवड्यो पुराय जाल्ल्यो
पाकिस्तान दोन गडी बाद
एकवीस धांवड्यो जाल्ल्यो
किटू वांगडा मिटू
दोगांय उमेदीन आसलीं
खेळ पळेतना मर्दी मर्दी
चणे भिकणा खातालीं
खेळ पळेतां पळेतां
अकस्मात क्रिकेट बॉल
टि.व्ही. तलो भायर आयलो
किटूचे तकलेर आपटलो
किटूक जालो घाय
दोतोर जाय दोतोर जाय
अशे तरेच्यो टी. व्ही.
कोणाक जाय ?
कोणाक जाय ?



# जोडपें



काळो काळो ब्लॅकी आमचो
भूक भूक भूकता
चोर येत म्हणून
सगळी रात जागता

सदांच नितळ उरपाक
भाई ताका न्हाणयता
तान लागली जाल्यार
उदक वचून पियेता

रॅबीस जावची न्हय म्हणून
दर वर्सा ताका वासीन
चिकन मटन आसल्यार
नाचता बरो उमेदीन

शेजारच्या स्वीटीक सदांच
वचून तो मेळटा
ब्लॅकी काळो स्वीटी गोरें
दोगांयचें जोडें बरें सोबता



# लोरी

चंदामामा गायता आज लोरी
ओडित बाबूच्या पायण्याची दोरी

न्हिदलीं सुकणी
फुल्ली रातराणी
रात जाली आतां
दिसावीण एकसुरी

परमळलें सपन
जागलें मन
खिणाखिणा मिलन
साकार करी

सगळे कशें शांत
शार अशें रानांत
हावेसाच्या तालार
बाबू पावलां मारी



# बटणांचो जादू



बाबून एक बटण दामलो
ताज्या मुखार भांगरा ताट
दुसरो बटण दामलो
ताज्या मुखार फळां रास
सगळ्याक चाकलेटी , पिपिरमिटां
तिसरो बटण दामतना

सगळें अजाप घडलें
कशें जाणा ?
मुखावेलो हुंदीर
हातांत घेवन
कंप्युटरांचे बटण दामतना



# सर्कस नाका.....

सर्कशींतल्या जनावरांक
सर्कशींत रावन वाज आयलो
सदांच तेंच तेंच करप
दर एकलो धांवत सुटलो.



घोडो धांव धांव धांवता
ताच्या फाटल्यान वाघ
तांकां दोगांकूय पळोवन
शिवांक आयलो राग

अस्वलाक धांवन धांवन
सामकें पुरो जालें
रस्त्या देगेक झाडापोंदा
सावलेंत ते मात्शें रावलें

मॅ, मॅ, मॅ करीत बोकडी
सर्कशींतली भायर आयली
वाघाक तर पळोवन
ती सदांच भियेताली

सर्कशींत आसलीं बरीं
चार लुकलुकीत सुणी
तांची अपुर्बाय करुंक
उत्रांच पट्टालीं उणी

सगळे धांव धांव धांवतात
जोकराची वाचा मोनी
जोकराचेर तापत उठलो
सर्कशीचो धनी



## ह्जे गोंय



गोंयच्या म्हज्या मातयेक
जायांजुयांचो परमळ
वता थंय दिसता जंय
नागेश मंगेश उत्रावळ

गोंयच्या म्हज्या दोंगरांक
पांचवीचार साडी
बों जेझुचे कोंवेंत
पयस करता अडीनडी

गोंयच्या म्हज्या न्हयांक
मांडवी जुवारींचे न्हाण
अरबी समुद्राक थंय
मत्सगंधेचे ज्ञान

गोंयच्या म्हज्या मनशाक
अप्रुपाचो हांसो
संवसारभर वचून
दुधसागराचो घसघसो



# पावसाचें गीत



म्हाका पावस जावन
धर्तरेक थंड करुंदी
रानावना, शेतां - भाटां
पांचवींचार जावंदीं.

पांचव्या ओल्या मातयेंत
एक 'मील' करून
शिडशिडपी पावसांत
गड्यांनी खेळूं दी

सगळया इश्टांवागंडा
आमी शाळेंत वतना
ल्हानश्याच सत्रेंत
मात्सो म्हाकां भिजुंदी

पुस्तकाचें 'बॅग' म्हंजें
आयज जालां जड
खूब खूब शिकून
व्हड व्हड जावंदी

माणकुली म्हजी भयण
येता म्हण म्हज्या वांगडा
मम्मीन सांगलें 'तूं ल्हान
चार पावसाळे वचूं दी.'



# पी. टी.

उजवो पांय
एक पावल फुडें
परत जाग्यार
दावो पांय
एक पावल फुडें
परत जाग्यार



उजवो पांय
एक पावल उजव्यान
परत जाग्यार
दावो पांय
एक पावल दाव्यानं
परत जाग्यार

उजवो पांय
एक पावल फाटीं
परत जाग्यार
दावो पांय
एक पावल फाटीं
परत जाग्यार

दावो पांय
एक पावल दाव्यान
परत जाग्यार
उजवो पांय
एक पावल दाव्यानं
परत फाटीं

बाबुलो करता पी. टी.
ताका आवडटा पी. टी.
इतल्यान जाली
प्रेशर कुकराची शी.टी.



# जनावरांची हुशारकाय

पप्पा, पप्पा
जनावरांची हुशारकाय
कशी कळटा रे ?

गायक शेपडी आसता
ती जळार, मूस
हांच्या पासून आपली
राखण करता

उंदीर सादुर रावन
माजरापासून पैस रावता

घोडो फास्ट धांवून
धावपांत पयलो नंबर
बोकडी सगळें खावन
दूद नंबर वन

माजर आपले जिबेन
सगळें आंग चाटून
कात नितळ दवरता

कुत्रो तर भोंकून
चोरां पासून
आमची राखण करता

कावळयाची नदर
मनशापरस बरी
हातांतलें रवाण
घेवन पळ काडी



# माकड आयलो शारांत



लाकडाच्या घरांत
राव एक माकड
थंयचं लागसार
आसलो एक वड

घर नाका, वड नाका
दिसरात उडक्यो मारी
माकडाक तीच सवंय
घराचे नळे फोडी

माकडाचे त्रास पळोवन
घालो एक सांपळो
सापळयांत माकड
रोखडोच घुस्पलो

लोकानी थारायलें
माकडाक रानांत सोडपाचें
थंयच ताणे रावून
जिवीत सारपाचें



# घर



धाकटुल्याश्या घरांत
रावतात आमी
हांव, दिदी
पप्पा आनी मम्मी

पप्पा करता नोकरी
मम्मी घर राखपी
दिदी वता शाळेक
हांव शिकतां के. जी.

पप्पा करता बाजार
मम्मी चलयता संवसार
पुश्टीक जेवण खाण
घटमूठ सगळे जाण

हांव खूब खूब शिकतलों
पप्पा भशेन व्हड जातलों
व्हडलें घर बांदून
सुखान बरो रावतलों



# बावलो आनी बावली



बाबुल्याच्या खेळांतली
बावलो आनी बावली
दोगांय जाणां बाबू वांगडा
अचकीत खेळूंक आयलीं

बाबुल्याच्या हाताक धरून
हांसतालीं, नाचतालीं
धालो, फुगडी घालून
फेर धरुन घुंवतालीं

बाबू हांसत हांसत
तालार ताळयो मारी
बावलो बावलेक पळोवन
मदींच उडक्यो मारी

खेळ रोखडो थांबलो
बाबूक आयली जाग
बावलो ना बावली ना
बाबू रंगयतालो सपना



# बाबूले प्रस्न



बाबून न्हंयक विचारलें
अशी धांव धांव किद्याक धावंता ?
न्हंयन सांगलें
पयस पयस दर्या म्हाकां रावता.
बाबून माडाक विचारलें
असो उबो रावन कितें पळयता ?
माडान सांगलें
मळबांतलीं कुपां हावं मेजतां
बाबून काक्याक विचारलें
असो काळो काळो कसो तूं ?
कावळयान सांगलें
काळया काळया कोळशांत पडलो देखून
बाबून हुंदराक विचारलें
असो बेगीबेगीन किद्याक पळटा ?
हुंदरान सांगलें
माजर म्हज्या फाटीक लागलां शें दिसता.



# ावांचीं नांवां

बाबूचो मामा उसगांवचो
बाबूचो दादा आसगांवचो
बाबू शिकला आतां
हीं नांवां दोन गांवांचीं

बाबूचो काका रावता शिवोले
बाबूचो मावसो दिवचले
काकागेर आनी मावश्यागेर
बाबू आनी बण्टी रावताले.

बाबूचो देव मंगेशी
आवयचो नागेशी
दोनूय कडेन बाबूक आवडता
थंय सदां सुखा राशी

बाबू गेलो चोडणां
एक दीस बिठ्ठोणां
बाबू पावूंक ना मात
एकूय दीस काणकोणां



♦♦♦

# टि. व्ही. कार्यावळ



रानांतल्या जनावरांनी
एक टि. व्ही कार्यावळ
करची थारायली

माकडांनी घाली फुगडी
भेंडां करून वांकडीं तिकडीं
चौथीच्या बायलांवरी दिसतालीं

ताळयांच्या आवाजार
हत्तीची देखणी रंगली
हातांत पण्टी घेवन
पलतडी वचूंक सोदी

शिंवांचो भांगरा नाच
वयर वयर उडक्यो मारी
सगळो वाठार गाजलो
दिसताले कशे शिकडयावरी

वाघांची घोडेमोडणी
हातांत तलवार धाली
ओ ऽऽ सय ओ ऽऽ सयऽ
तलवार सकल वयर करी

माकडाचो मुसळ नाच
फुडल्यान नाच मुसळांचो
फाटल्यान सळसळ तिसऱ्यांचो
रंगलो खीण उमेदीचो

कोल्याचे विनोद आयकून
हांसताले सगळे मुरगुटून
सगळयांक उमेदी दवरून
सुत्र संचालन केलें म्हणून



# जगाची भोवंडी



'च' चें जालें चीन
'दु' चें जालें दुबाय
चीनापरस दुबाय
म्हाल सवाय

'इ' चें जालें इंग्लंड
'प' चें जालें पोर्तुगाल
भारत आसलें इंग्लंडाचे
गोंय पोर्तुगालाचे

'अ' ची जाली अमेरीका
'आ' ची जाली आफ्रिका
अमेरीका पावल्या
उदरगती तेमका

'ज' चें जालें जपान
'क' चें जाले कराची
बाबू करून आयलो
भोवंडी जगाची



# संगीत



बाबू रंगला संगीतान
फुलोवन आपले कान
पेटी हाडल्या पेडणेची
तबलो हाडला ताळगांवचो



वियोलीन विरनोडचें
दोगांयलें संगीत
आवडीचें आनंदाचें

पेटीर काळी पांच
तबल्या ठेक्यार नाच
गितार गिरवडचें



पियानों पिळगांवचो
कोंगो कांयसुवचो
धुंद जावन गेलो
सगळो वाठार पणजेचो





# फुलांची सर्कस



खोशी जाल्यां भुरगींबाळां
पळोवन सर्कशीतलीं फुलां

पारजत झोपाळे घेवन
एकमेका धरी सोडी
वयल्यावयर नाचतना
भुरगीं मान वयर काडी

हातांत घेवन चेपीं
धावंत सुटली चाफीं
चेपीं घालीत काडीत
बरी मजा हाडी



शंकर जाला जोकर
फकणां मस्कऱ्यों करी
जोकराक पळोवन
भुरगीं हांस हांस हांसतलीं



चांफो जालो राजा
दसण जाली राणी
दोगांय मदीं आयलीं
सर्कशीची सोंपली काणी



# संगीत संमेलन

पोरसांतल्या फुलांचें
रंगलें संगीत संमेलन
सर्गुच धर्तरेर हाडलो
सोबीत सुंदर मिलन

पारजतान पयलो राग
आळयलो
नवनवलांचो संवसार
उतरांनी खेळयलो

आबोली नटभैरव
सगळयांनी साथ दिली
संमेलनाची सोबाय
आनीक वाढली

रातराणी गायली मुल्तानी
गाजलें दिकादिकांनी
हुशार सोबीत फुलां
पोरसूं भल्ले चंवरानी

रोझान गायलो केदार
धुंद जालो वाठार
नवलांचो मौजेचो
जालो सगळो संवसार



शेवत्यांनी मेघमल्हार
केलो राग साकार
अमृताचें मिलन
संवसाराच्या दारार

संमेलन सोंपतना
वोंवळांची भैरवी
वर्सूयभर संमेलनाची
याद उरली.

♦♦♦



# बाबूची वळख

बाबू आतां सगळयांक वळखता
हो बाबूचो मावजो मामा
बाबूक हाडलीं करून
भांगराची बरीं भामा

ही बाबूची कमा मावशी
बाबूक हाडटा खाणा राशी
बाबू खोशी जावन मागीर
खाता चिवडो भरून बशी

ही बाबूची राखी काकी
हाडल्या बाबूक गोड चिकी
आनी हाडलीं साबार फळां
बरीं पिकीं पिकीं

हो बाबूचो पप्पा मम्मी
दोगांय आवडिचीं बाबूचीं
खोस जाता खिणान खिण
दिसरात जागोवन नातीं

ही बाबूची शेजाच्न श्रृती दिदि
खोशी जाता बाबू, पळोवन दिदी
भावभयणीचें नातें अशें
बाबूक ना भयण, श्रृती ना भाव

ही बाबूचीं आजो आजी
बाबूक करून दिता भजीं
हुनहुनीत भजीं खावन
बाबू सोदता बटाट भाजी



# पप्पा सांगता

पप्पा सांगता
कोडू कोडू वखद घेतल्यार
तोंड गोड गोड जाता
तोंडार हांशे फुलता

खूब खूब शिकल्यार
फुडार सुखी जाता
जिविता त्रास उणें जाता

मस्ती करूंक जायना
मम्मीक त्रास दिवंक जायना
सदांच शाळेक वचूंक जाय

हांसत खेळत दीस सारचे
भलायकी बरी दवरून
व्हड व्हड मनीस जांवचे



# मनशापरस हुशार

कोगळान घेतलो ‘सिडी प्लॅयर’
दिसभर आयकत रावलो
ताका साथ दीत दीत
‘कुहू कुहू ’ गायत रावलो



मोरान घेतलो एक ‘मोबायल’
इश्टाक धाडलो ‘एस.एम.एस.
‘नाचत नाचत येवचें तुवें
धुंद जावन वच्चें हावें’

कावळयाक मेळळो एक ‘कंप्युटर’
ताजेर बसयलो ‘इंटरनॅट’
नांव दिलें आपले खाशेलें
‘कांव -कांव -कांव डॉट कॉम’



चिमणेन घेतली ‘टि. व्ही’
सिरीयलां पळेत बसली
ल्हान ल्हान चिमण्यानी
‘कार्टून पिस’ उक्त्या दोळयांनी

उंदराक  आयलो ‘इ-मेल’
मांजर रावलां लिपून
उंदीर धांवत सुटलो
जीण सारीन भीक मागून



दुकराक मेळळें ‘ऑशींग मशीन’
दिसभर न्हालो तातूंत
पूण बुरसो तो बुरसो
लोळळो वचून कोणान





# मनीस हुशार

कोण म्हण्ट मनीस हुशार ?
मनीसूच तो आपल्याक तोखेता
मांजर लेगीत पळयात
नितळसाण कशी राखता !

सुण्या सारखो इश्ट ना
मनीस तर आपसुवार्थी
आपूण आपणाक म्हणपी
देव मात समेस्तांक

पालीचें पांसियेस तर
तोखेत तितले थोडें
वरांची वरां वण्टीर
सोडोवंक पोटाचें कोडें

कोलो तर सामको हुशार
हेरांक सगळयांक फटोवन
बरें बरें खावपाचें
सुखान दीस सारपाचे

गावंचे कितले गूण
त्या थंडसार गायचे
मोल करूं नजो तिच्या
धव्या फुल्ल दुदाचें

कावळयाची नदर तर
सदांच भोपश्याचेर
तें मात मेळळया बगर
उतरली कुड्डीच नदर



# नानूदादालो नातू



नानूदादालो नातू
मेळत तें तोंडांत
घालूंक सोदता
खिळखिळों घालो
माकड घालो
काडटा परत घालता
दिसभर ताचेर
लक्ष दवरचें पडटा

नानूदादालो नातू
उमथो पड्टा
बसूंक सोदता
बसतां बसतां
परत न्हिदता
परत बसता
परत उमथो पड्टा
नानूदाद ताका तोखेता

नानूदादालो नातू
चलूंक शिकता
चलतां चलतां
मदींच पड्टा
पड्टां पड्टां मदींच उठ्टा
उठ्गच परत
चलत वता

नानूदाद नातवाक
तोखेत दीस सारता
आपल्या भुरगेपणाची
याद करीत करीत

नातवाची अपुर्बाय करीत
देवान फुडाराचो दिवो
पेटयलो म्हणून
देवाक पायां पडटा

नानू दादालो नातू
उलोवंक शिकता...
आज्या, आज्या
नातवाचे आवयक
तें आवडना शें दिसता
ती चल्याक सांगता
'दादा, दादा म्हण

नातवाची आजी
वेगळेंच शिकयता
पप्पा, पप्पा म्हण
नानूदादालो चलो
सोदता वेगळेंच
पापी दी, पापी दी

नानू दादालो शेजारी
रोझालो चेडो रूझारी
मदींच येवन म्हण्टा
'डॅडीक डॅड म्हण
नानूदाद कपलार हात मारता
बापायक मेल्ल्या म्हणुंक
म्हज्या नातवाक शिकयता ?



# यस्. यम्. यस्.

कंप्युटराच्या युगांत
बाबू 'यस् यम् यस' करुंक शिकला
तो सगळयांक करता
भाव बाला, भयण शीला
काका लाला, काकी नीला
मामा उल्ला, मामी माला
इश्ट भोला, इश्टीण इला

भावाक केलो एक दीस
बाबा बरो ना
बेगीन यो
भाव आयलो
एप्रिल फुल जालो

भयणीक केलो
आई मान्र्यात पडली
बेगीन यो
भयण आयली
आईक पळोवन 'अजापली'

आतां सगळयांक कळळां
बाबुचे यस् यम् यस् फटीचे
फक्त वाचून हांसून
मोबाईल बंद करपाचे

◆◆◆

# पिल्लूक

बाबूक पिल्लूक
आवडूंक लागल्या
पोलीसांच्या तोंडात
ताणे ती पळेल्या

फिर ऽ फिरऽ
आवाज आयकलो
बाबुक कोगळाची
याद करून गेलो

पोलीसांचे हात
पळोवन आतां
बाबूय पोलीस
कसो जाता

पप्पाची स्कुटर
काकाची मोटार
बाबूच्या हाताक
ना आता थार

मदींच एक
ट्रक आयलो
पिल्लूक मारून
बाबून अपघात टाळळो



# भावबीज

सांग गो ताई, सांग गो म्हाका
खयचो रंग जाय
गोरें गोरें आंग गो तुजें
दुदावयली साय

मळबावरी रंग निळो
साडयेचो पदर काळो
सोबीतकायेची करची कितली तोखणाय

हाडची तांबडी साडी
न्हेसपाक येतली गोडी
सगलीं जाणां करतलीं तुजी अपुर्बाय

पानावरी पांचवोचार
हावेसाचें येतलें ल्हार
नटून थटून अप्सरेची येतली सासाय

साडी बरी हळदुवी
न्हेसून येतली उमेद नवी
सौदर्याची खण दितली गवाय



# परिक्षा



शाळेंतली एक बाई
आज शाळेक आयली ना
फोन करून खबर घेतली
तिका जाल्लीं गालगुणां

शाळेंतल्या मास्तरान
भुरग्यांक शिकयलें गणीत
सगळी भुरगीं आसलीं
बाईची याद काडीत

भुगोल, इंग्लीश, इतिहास
भुरग्यांक आवडटा
कोंकणी भास
सगल्यांत चड मार्क मेळटा
आमचीच ती आवय भास

सगळीं भुरगीं शिकतात
मार्च म्हयन्यांत परिक्षा
भुरग्यांचे आवय बापूय
शिकयतात तांकांय शिक्षा

◆◆◆



# भुरग्यांचो दिस

हांसूया, नाचूंया, गावूंया
सैमाची मजा लुटूयां
नोवेंब्राची १४ तारीक
आयज भुरग्यांचो दिस
आयज आमचो दिस

उर्बेभरीत आमचें जिवीत
संगितान नटिल्लें कवीत
धुंद आयचो दिस
आयज भुरग्यांचो दीस
आयज आमचो दीस

अकुळ पिकुळ जीव
देवाक कशी आर्गा दिवं
संसाराची आगळी रीत
आयज भुरग्यांचो दीस
आयज आमचो दिस

पतंगावरी वैर वैर उडुंया
मोरावरी थुईथुई नाचुया
रंगला आज आयचो दीस
आयज भुरग्यांचो दीस
आयज आमचो दीस



# रंगांची मजा

हालींच बाबूक रंग
आवडूंक लागल्यात
कशे ते पळेयात
पानां पाचवीं
पाटी काळी
खडू धवोच
जिबली तांबडी

दांत धवे
उदक नीळें
मळब नीळें
केन्नाय काळें

बाबूची मम्मी
सामकी गोरी
बाबूचो पप्पा
सामको काळो

बाबू गोरोच
अशें कशें ?
कारण बाबूची
आजी गोरी.



# सपन

अेक, दोन, तीन, चार
दोंगरार जातात फरार फार
पांच, स, सात, आठ
दिसता भंय, भंयाची रात

णव, धा, अिकरा, बारा
कसो हांव वतलों घरा
तेरा, चौदा, पंदरा, सोळा
जीव म्हजो लागला गोळा

सतरा, अठरा, अेकोणीस, वीस
रात सोंपून आयलो दीस
अेकवीस, बावीस, तेवीस
म्हज्या सपनाची आगळी रीत



# पाल

घराचे वण्टीर रावताली
एक धवी धवशी पाल
सोरपाच्या आंगावरी
वांकडी तिकडी तिची चाल



दिव्याच्या उजवाडार
भोंवताना एक जळार
हळूच वचून बसलें
वण्टीर पाली मुखार

कच्च करून झोंपय मारून
घेतलें जळार तोंडांत
हांसत हांसत पालीन
जळार गिळळें पोटांत

व्हडलो जीव खाता ल्हानाक
हिच संवसारा रीत
मनीसूय केन्ना केन्ना
सारता अशेंच जिवीत



# जल्ल्याची मजा

एक आसलो जल्लो
रंगान काळो काळो
दाट दाट पाखां
लांब लांब मिश्यो

केन्ना कोठये कुडींत
तर केन्ना राज्नीर
केन्ना मेजा पोंदा
तर केन्ना वण्टीर

सदांच जल्लो असो
भोंव भोंव भोंवतालो
एक दिस अकस्मात
जल्लो उडुंक लागलो

भुरग्यांक दिसली मजा
बाबू फाटल्यान धांवलो
लोकानी हांसून म्हळे
जल्लो पिसो जालो.



# मैफल

पावसांत बागेंत मैफल रंगली
सुरासुरांनी बाग धुंद जाली

आबोली गायत कवाली
तालार ताळयो मारी
अनंताच्या सांगाताक
दोघांय नाच करी.

दसणी नाचत देखणी
पावसाक येवकार दिई
रातराणी जावन पिशी
वाटार परमळायताली

सदाफुली घेवन दिवली
दिवली नाच करी
चुंफो तोखेत तोखेत
तोंडांत बोट घाली

कणेरां गायत धुलपदां
साथ करी तालातालार
बागेची मैफल पळयत
माडय मांडो नाच करी.



# क्रिकेट

तुजें बेट म्हजो बोल
क्रिकेट आमी खेळुंया
धांवडेर धांवडी
आतां आमी काडुंया.

विकेटी मांडूया आमी
खेळाची करून तयारी
म्हंजें बोलींग, तुजें बेटींग
मजाच मजा करूया.

उमेदीन मना फुलतलीं
हांसत वरां सरतलीं
अुगडे हवेत मोकळें जागेत
कुड निरोगी करूया

अशीच वतली सुटी
सुटयेंत अुमेद मोठी
ह्या दिसा आमच्या सुखा
वयर वयर चडोवया.



# बाबूक पळे

बाबूक आसात दोन दोळे
तातूंत सगळो संवसार पळे

बाबूक आसात दोन कान
तातूंत जिवीतभर संगीत आयक

बाबूक आसा एक नाक
चेराचो परमळ दिसरात

बाबूक एक कपल
बाबूच्या कपलाक तीती

बाबूच्या सपनांत देव
त्या चांदण्या राती



# कित्याक जाय ?

पप्पा पप्पा म्हाका कॉम्प्युटर जाय
कित्याक रे तुका तो जाय ?
हांव आतां व्हडलो जालों
'कॉम्प्युटरार' एबीसी शिकतलों

पप्पा पप्पा म्हाका 'इंटरनेट' जाय
कित्याक रे तुका तो जाय ?
सगल्यो खबरो वाचतलों
म्हज्या आंटीक सांगतलों

पप्पा पप्पा म्हाका 'वॉशींग मशीन 'जाय
कित्याक रे तें तुका जाय ?
हांव सकाळीं उठ्ठलों
वॉशींग मशिनान न्हातलों



# काणी

आयकून म्हजी काणी
तुमी जातलीं शाणी
एक आसलो राजा
एक आसली राणी

राजाच्या राज्यांत
आनंदूच भोंवतणी
सुखाचो वझरो
व्हांवता पावला - कणकणी

करूंक तांची तुस्ती
उतरां पडटात उणी
इश्टागतीच्या नात्यान
तांची आसली करणी

एकूच आसलो मंत्र
एकूच आसली वाणी
सगलीं भुरगीं शिकोवन
वयर काडिल्लीं तांणी



# पाल आनी चानी



पालीन म्हळें
तूं गे बाये सगल्याक भोंवून
खायत आसा साबार फळां
तुजे जिवित खरें बरें
हांव मात घरांतूच पडलां

चानयेन म्हळें
घरांतली भायर सर
संवसारार मार नदर
आयचीं बायलां पळे
सगल्या कामांक हजर



दोतोर जाता, नर्स जाता
पंच जाता, मंत्री जाता
समाज कल्याण, नाटक, खेळ
उदरगत करता दिसभर



# गांवांची भोंवडी

‘प’ ची जाली पणजी
‘म’ चें जालें मडगांव
बाबू जाल्लो पणजे
रावता आतां ताळगांव

‘ब’ ची जाली बोरये
‘स’ची जाली सांखळी
बोरयेपरस बाबूक
आवडटा चड सांखळी

‘अ’ चें जालें आमोणें
‘स’ चे जालें साळगांव
बाबूचें आजोळ मुंबय
मुंबयचें गोरेगांव

‘प’ चे जालें पिळगांव
‘उ’ चे जाले उसगांव
बाबू भोवन आयलो
सगळे हे गांव



# आमच्या बाबूक.....

आमच्या बाबूक
नेवऱ्यो आवडटात
नेवऱ्यो नेवरेंच्यो



आमच्या बाबूक
कापां आवडटात
कापां केपेंची

आमच्या बाबूक
मोदक आवडटात
मोदक मडकयचे

आमच्या बाबूक
लाडू आवडटात
लाडू लाडफेंचे

आमच्या बाबूक
चिवडो आवडटा
चिवडो चिमलचो

आमच्या बाबूक
शेव आवडटा
शेव शिरवयाचो



नेवऱ्यो, कापां,
मोदक लाडू
शेव, चिवडो
सगळीं खाणां
हाडल्यां मामान
मामा म्हापशेंचो



# कित्याक काय ?

फांतोडेर कोंबो
‘कु कू रे कू’ म्हणून
किते सांगता काय ?
फांतोड जाली
उठात आतां
नाका करूंक आळसाय

मुयो खावपाचे दाणे
एकठांय करुंक किते करतात काय ?
पावस येतलो
तेन्ना खावंक मेळचें ना
‘पुरूमेंत’ करूक जाय.

वण्टीवेली पाल
लायटीकडेन रावन
किते करता काय ?
जय मेळटलें
तुका खावंक
थयच लिपून राव

बाबूक पावसांत वंचू नाका
हांगाच भितर खेळ
हो उपदेश कित्याक जाय ?
भायर गेल्यार
भिजतलो बाबू
थंडी जाल्ली काय ?



# हांस

हासूंक सुरवात कर
हा ऽ हा ऽ हा ऽ



मात्सो मोठयान
हि ऽ हि ऽ हि ऽ

ओंठ फुंडें काडून
हू ऽ हू ऽ हू ऽ

आवाज वयर काडून
हे ऽ हे ऽ हे ऽ

हांसप सोंपयतना
हय ऽ हय ऽ हय ऽ हय



# भुरग्यांचें वर्स

रानातल्या जनावरानी
रान गाजलां, रान जागलां
मोठ्या उमेदीन भुरग्यांचें वर्स
मनावचें थारायलां

सुरवातेक वेशभुशा सर्त
घेवचेलें एक मतान जालां
ल्हान, ल्हान पेटे, पोरां
येसायो मारूंक लागल्यां

शिंवांचो धाकलो चलो
जातलो दशरथ राजा
हातांत धनुश्य बाण घेवन
जातली मजाच मजा

कोल्या पोर जातलें शकुनीमामा
गडगडयाचो लापीट हुशार
'भांजे अब देखो मेरा खेल'
पांडवांक करूंक लाचार

हरणाचें हुशार पोर
जातलें महात्मा गांधी
एकवटाचो उलो मारीत
जनतेक साद घालीत

शिवाजीचो भेस करतलो
माकडाचो धाकलो चलो
हातांत तलवार घेवन
रायगडाक मारतलो उलो

हतयाचें पोर जातलें
'गणपती बाप्पा मोरया'
सगल्यांच्या सांगातान
आमीय भुरग्यांचें वर्स मनोवया'



# अक्षरांची ओळख

अ

ब

क

ड

य

र

'अ' न खालें अनस
'ब' न देखलें बदक
बाबूक लागली तान
ताणे मागलें उदक

'क' न देखलें कमळ
'ड' न वाजयलें डफ
बाबूचो हात मुयेलो
थंड थंड लागलो बर्फ

'य' या फाटल्यान गाय
'र' ची जाता रबर
बाबू शिकता हि
कळ्ळी सगळयांक खबर

'ल' चो गोड गोड लाडू
'व' चे लगटें वजन
बाबून पडलें एक
फांतोडेर सपन

'श' म्हळयार शाळा
'स' चो जालो सोसो
बाबू नाचता पळे
मजेन असो कसो

'ह' चे जाले हरण
'ळ' मेळटा उतर नळ
बाबूक आयलो वाज
काडली ताणे पळ



# सुर्यान चंद्राक म्हळें

कालचे राती खंय गेल्लो ?
तुका सोदूंक भाव आयिल्लो
चंद्रान सांगलें
‘भाव खंयचो येतलो
म्हाका भयणीच आसात
तीं नक्षत्रां जाल्यांत



# डॉ. भिकाजी घाणेकार हांची पुस्तकां

## कविता

सपन
रानफुलां
कृष्णगीता
ख्रीस्त गीता
सर्कस
पिक्नीक
अमर गीता
चेंडूची भोंवडी
खेळणी
गांधिजी
एकवटाचें मोल
शकुंतला
इंदिरा प्रियदर्शनी
सदाफुली
क्रिकेट
स्वप्नसरीता ( हिंदी )
फुलांच फुलां
हावेस
पतंग
महाभारत
सत्यम् शिवम् सुंदरम्
माणकुल्यांचो संवसार
Dream Flower (English)
फामाद गीतां
बालगीतां

## बलायकी

भुरग्यांची बलायकी
प्रथमोपचार
तुमची बलायकी तुमच्या हातान
वैजकी शब्दकोश
बारिक सारिक दुयेंसां
रोग आनी उपाय

## निबंध

रंगयाळी जीण
हांसप एक वखद
संवसाराचें सपन

Printed at : Swarnamudra Prints, Marcela - Goa. Ph.: 2288077